# कोकणी म्हण्यो

" शांतश्री "



॥ श्री मंगेश शांतादुर्गा प्रसन्न ॥

# कोंकणी म्हण्यो



## दोनशे पंचवीसहून अधिक कोंकणी म्हण्यो, वाक्प्रचार आनी तांचो वापर

लेखिका :
सौ. शांता श्रीकांत सुखटणकर "शांतश्री"
एम. ए. एस्. टी. टी. सी. राष्ट्रभाषा विषारद

*प्रकाशक :*

**सौ. शांता श्रीकांत सुखटणकर**

**C/O श्रीकांत शामराव सुखटणकर,**

ब ८, शांती को. ऑ. हौ. सोसायटी,

मोगल लेन, माहीम, मुंबई ४०० ०१६.

◆

**प्रथम आवृत्ति १९९५**

**किंमत रुपये : १८ फक्त**

◆

*मुखपृष्ठ :*

श्रीमती आशा ज. तेलंग

कुमार सिद्धेश सु. तेलंग

◆

*मुद्रक :*

अशोक प्रिंटिंग प्रेस,

२०१, खेतवाडी मेनरोड,

मुंबई ४०० ००४.

# ह्या संग्रहाबद्दल चार शब्द

सौ. शांता श्रीकांत सुखटणकर हिगेले 'कोकणी म्हण्यो वाक्प्रचार आनी तांचो वापर' हे पुस्तक कोकणी भाषेखातेर म्हळ्यार कोकणी वाङ्मया खातेर एक नाविन्यपूर्ण आनी स्तुत्य उपक्रम आसा. मराठी, हिन्दी, इंग्लिश इत्यादि भाषांच्या प्रभावामुळे आमगली 'कोकणी' भाषा हळूहळू अस्तागंत जावच्या लागल्या. वाढती लोकसंख्या आनी ताजेमुळे निर्माण जाल्ली वाढती चढाओढ, शिक्षणाचें माध्यम, उच्च शिक्षणाखातेर परदेशगमन, राहणीमान वाढवण्याची आन्तरिक इच्छा अशा अनेक कारणान मराठी इंग्रजी ह्यो भाषो गरजेच्यो ठरल्यो आनी ताजो परिणाम म्हळ्यार नवीन पिढीक आपल्याली 'माय-भाषा' (मातृभाषा) कोकणी आसा ही जाणीव रावू शकली ना. आमगल्या नव्या पिढीकडेन आमीच 'कोकणी'त उलयनात, तेन्ना तांचो किते दोष ! असल्या परिस्थितीत सौ. शांता सुखटणकर हिने 'गृहिणी, माता आणि शिक्षिका' ह्यो तिन्ही भूमिका सांभाळ्ण 'म्हणी आनी वाक्प्रचार' हांचेर श्रम घेव्न तांचें संकलन पुस्तक रुपान केलें आनी अतिशय सुलभ रीतीन आनी उदाहरणं दीव्न

वाचकवर्गाक त्या म्हणींचो गर्भितार्थ सहज रीतीन कळच्याखातेर जे श्रम घेतले त्याबद्दल तिगले मनःपूर्वक अभिनंदन.

म्हणी आनी वाक्प्रचार हे भाषेचे अलंकार आसात; ज्यांच्यामुळे भाषेची सुंदरता वाढता. तांची आंतरिक सुंदरता म्हळ्यार कित्येक म्हण्यो घ्वर्थी आसतात एक वैले वैर दिसच्याक सरळ आनी निरागस तर दुसरो गर्भितार्थ - ज्याने ताणे समजून घेवचो. काम साधल्याचें कारण, नेमबाजी अचूक. तसेंच संगिताप्रमाणे ह्यो म्हण्यो म्हळ्यार, लय आनी ताल हांचो संगम. ह्या कारणांमुळेंच संगितासारखे लोकांल्या हृदयाचो ताबो घेव्न खंच्याही बोंली भाषेक जीवंत दवरतात. आत्म्या शिवाय शरीर ना आनी म्हणीं शिवाय भाषा ना. यामुळे म्हण्यो आनी वाक्प्रचार ह्यो परंपरागत आयिल्ल्यो 'मायबोली'ची देणगी आसात. प्रत्येक पिढी आपापल्या अनुभवानुसार, बुद्धिनुसार आनी रसिकतेनुसार तांतूत भर घालत रावता. अशे हें 'सरस्वती देवी'चे वरदान दिल्ल्यानही वाढता आनी घेतल्ल्यानही वाढता. दिसच्याक ल्हान पण व्याप्ति कितली होड ! हांसयतली, करमणूक करतली, शिक्षण दितली, मार्गदर्शन करतली, चूक दाखयतली किंवा ब्रह्मांड यव्जूच्याक लायतली अशें कितले गुण वर्णन करचे !

या कारणांमुळेच माका दिसता की हें पुस्तक प्रत्येक कोकणी भाषीकाल्या घरांतल्या पुस्तक संग्रहालयात उरच्याक जाय. प्रत्येक आईन आपल्याल्या चोरडांक आनी प्रत्येक आजीन आपल्याल्या

नातवंडांक स्वतः वाचून ह्या पुस्तकांतल्यो म्हण्यो आनी वाक्प्रचार समज़ाव्न सांगचे ही इच्छा; ताज्यामुळे आमगल्या नवीन पिढीचो मनाचो कल आपोआप आमगल्या 'मायबोली' कडेन वळतलो. हीच आमगल्या 'कोकणी भाषेची' जीवंतपणाची खूण ठरतली.

**व्ही. एन्. नाडकर्णी**
*अेक्स-चेअरमन,*
*स्टेट बँक ऑफ इंडिया*

# ह्या संग्रहा फाटलो हेतू

कोकणी भाषा उलैयतले म्हळ्यार आमगेल्या ज्ञातीचेच लोक. फाटल्या काळांत, आमगेल्या पूर्वजांच्या कारकिर्दीत सगळेच कोकणी उलैयताले.

हळूहळू आमगेले लोक नोकरी धंद्यानिमित्त्यान स्वतःलो गांव सोडून मुंबै सारख्या शहरात यवच्याक लागले. आनी थैयीय स्थायी जावच्याक लागले. 'देश तसो वेश' ह्या म्हणी प्रमाणे आमगेल्या बांधवांनी हळूहळू मराठी, गुजराथी आनी हिन्दी भाषेतल्यान उलौवच्याक सुरवात केली. इतलेंच न्हय तर फॅशन म्हणूण म्हणा ना जाल्यार सुधारिली वृत्ती म्हणूण म्हणा आपल्याल्या चोरडांकडेन ते मराठीतल्यान उलौवच्याक लागले. अशी करतां करतां अशी एक वहिवाटच जावून गेली की चोरडांकडेन मराठीतल्यानच उलौवचे, घरांत ल्हान होडांकडेन कोकणीतल्यानच उलैयतली आमगेली खूप कमी कुटुंबं आज पळोवच्याक मेळतात.

एक दिवस माका अशी दिसलें की आमगेल्या पुढच्या पिढीक कोकणी भाषेबद्दल आपुलकी कशी उरतली? तांका कोकणी

भाषेतल्यो म्हण्यो, वाक्प्रचार कशी कळतले? हो बिचार मनात आयिल्यान हांवे ठरयले की आमगेल्या लोकांल्या उलौवण्यात ज्यो ज्यो म्हण्यो, वाक्प्रचार सहसा येतात त्यो त्यो बरौवन काडच्यो. त्यो उलौवण्यात कशी वापरतात हें कळच्या खातेर हांवे वेगवेगळ्या प्रसंगांची उदाहरणं दिवचो प्रयत्न केला.

माका मगेल्या वाडवडिलांकडच्यानच म्हण्यो, वाक्प्रचार कळिल्ले आसात. मगेल्या आईल्या (कै. श्रीमती रुक्मिणी कृष्णा तेलंग, हळदीपूर, उ. कानडा) तोंडातल्यान खूप म्हण्यो येताल्यो. आनी सांगचे म्हळ्यार, मगेल्या घोवान प्रोत्साहन दिल्ल्यामुळे हो संग्रह बरौवच्याक माका शक्य जालें.

तुमका सर्वांक हो संग्रह आवडतलो अशी हांव आशा करता.

हातूत चुको दिसून आयल्यार अथवा सूचना उरल्यार मगेल्या नजरेक हाडून दिवच्यो ही नम्र विनंती.

तुमगेली नम्र,
सौ. शांता श्रीकांत सुखटणकर

# कोकणी म्हण्यो, वाक्प्रचार आनी तांचो वापर

## दुधात साखर

"सुधा डॉक्टरी परीक्षा पास जालें. म्हणता पर्यंत तागेले लग्न बी ठरलें. बरो एफ्. आर्. सी. एस्. जाल्लो घोव मेळ्ळो. लग्न जाल्लें नंतर तो बायलेक घेव्न अमेरिकेक वता म्हण्ण आयकल्लें." मंगेशान आपल्याल्या बायलेकडेन म्हळें "बरे जालें. **दुधात साखर पडली**" मंगेशाल्या बायलेन म्हळें.

## अर्दकुडो कळसो चख़नळता

लग्ना माटवात रामशणैय, बाबकामत, व्यकंटेश पै आनी पांडुरंग शानभाग उलैयतेर बशिल्ले. आपापल्या धंद्याबद्दल तांगेली उलौवणी चलीली. ही सगळी जाणती आनी हुशार मनषं आपापलो अनुभव सांगताले. एकमेकांकडच्यान समजून घेताले. इतल्यात सुधांशू तांचेकडेन आयलो आनी ताणे तांचेबरोबर उलोण्यात भाग घेतलो. तो आतां काळचो चार अक्षरं शिकिल्लो हे खरें अनुभव मात्र साबार ना. मध्ये मध्ये इंग्लीश शब्द घाल्न उलैयतालो. आपल्यालो धंदो बरो चल्ला. आपल्याक वैले वैर भायल्या गावांत वच्चे पडता,

होड होड धंदेवाईकांक वचून मेळचे पडता हें सगळे ताणे, तांका विचारनस्तना सांगले. **अर्दकुडो कळसो चखनळता** आनी कितें ?

## आसा पांगुरच्याक खाता शीं ना पांगुच्याक भिता शीं

गंगाक्काल्या धुवेक ताप आयिल्लो तेन्नां तागेल्या तैनातीक कितले जण म्हणण सांगू ? डॉक्टर घर येव्न ताका तपासतालो. वकदं दितालो. गंगाक्काली भैयण सद्द आट दिवस येताली, तागेली सेवा करताली. बरे दिवस लागले तागेलो ताप वच्याक आनी अशक्तपणा वच्च्याक.

ताजेनंतर बायेक बरे ना जाले. तें बी बापडे तापान पडले. तागेली सेवा करच्याक कोण आसा ? ताणेच सावकाश उटून पेज कर्न जेवची. उदाक तापोन पिवचे. तुळशी कणसं, कांदो घाल्न हुनसो कसाय कर्न पिवचो. तीन दिवसा नंतर बाय बापडे बरे जाले. "**आसा पांगुरच्याक खाता शीं ना पांगुरच्याक भिता शीं.**" हेंच खरे.

## हातूळ पळौन पाय पसरका

आपल्याली ऐपत पळौन आपल्यान वागच्याक जाय, ऐपती भायर खर्च करनयो अशी राधा आपल्याल्या चोरडांक यव्न वचून सांगताली. म्हणच आसा ने, "**हातूळ पळौन पाय पसरका**"

## देवकादेवीक घोव ना, बेताळाक बायल ना

सगुणाले लग्न खयीं जमनाशिल्ले. ते बरेच वाढिल्लें. गजाले बी कित्येक वर्षं लग्न जमनाशिल्लें, खोडी काडत बसतालो. एक दिवस सदान मात्र पुण्याचें काम केलें आनी सगुणाले गजाबरोबर लग्न जुळौवन दिलें. वाड्यावैले लोक म्हणच्याक लागले, "जाऊं बापडे, **देवका देवीक घोव नाशिल्लो आनी बेताळाक बायल नाशिल्ली. बरे जाले.**"

## पाचावैले पंचवीसार

रमेशालो ल्हानपणाच्यान हट्टी स्वभाव आशिल्लो. ताणे कित्ते जाय म्हळें की ताका आवैयन् दिवच्याकच जाय. ना जाल्यार रडत बसचें, रागान फुगून बसचें अशी तो करतालो. तेन्ना आवैयन् एक दिवस ताका बरें कर्न सांगलें की हट्टी स्वभाव उरचो हे बरे न्हय, फुडे होड जाल्यानंतर सुद्धा अशी स्वभाव जाता. तीणें म्हळें, **"पांचावैले पंचवीसार"**

## नाचच्याक येना जाल्यार आंगण वाकडे

शैलाक चित्र काडचें म्हळ्यार नाका आशिल्लें. ताका चित्रकलेची आव्वडच नशिल्ली. "पेन्सिलीक टॉक ना, रंगबरेनात, कागद ल्हान आसा म्हण्ण हावे चित्र काडले ना." अशी ताणे भैयणीक सांगलें. भैयणीक आयलो राग आनी तिने म्हळें, **"नाचच्याक येना जाल्यार आंगण वाकडे."**

## दात काड्न अवलक्षण

"शेजाऱ्यांकडेन वचून कित्तें मागचें म्हळ्यार माका बरे दीसना. कित्याक खबर आसा? तानीं तें दिले बरें आसा, दिना म्हळ्यार माका अपमान ने तो? शक्य तो मागनाशिल्लेंच बरें **"दात काड्न अवलक्षण खंचे."** अशी व्हनीन म्हळें.

## दाखौवचे दात वेगळे, चाबचे दात वेगळे

काही लोक तोंडार हासून गोड उलैयतात. फाटल्यान मात्र निंदा करतात, पाय खेचतात. **दाखौवचे दात वेगळे आनी चाबचे दात वेगळे उरतात.**

## तू म्हळयार तुजो आन, आम्मालो घोव

मंगेश आवैय बाप्पायकडेन चोरडू अप्पंत वागना शिल्लो, तांच्चे कडेन उद्धटपणान वागतालो. आवैयबाप्पायक म्हातारपणात दुःखाचे दिवस आयले. एक दिवस आवैयन् आपल्याला भैयणीकडेन म्हळें, **"मंगेश मुगो, माका तू म्हळयार तुजो आन, आम्मालो** घोव म्हणता, कित्ते करचे? दिवसच वाय्ट आयल्यात."

## कब्बू गोड म्हण्ण वाळींग गिळच्याक ना

"जावैय आमका बरें करता. कित्तें जाय नाका म्हण्ण पळयता. बायलेक दिवसाआड आमगेली चौकशी करच्याक धाडता.

आठवड्याक एकपटी आमकां मोटरीतल्यान फिरौवन हाडता. इतले सगळे करता आसतनां ताजे कडेन उशीणे पैशे दीरे म्हण् कशी म्हणचे? **कब्बू गोड म्हण्ण वाळींग गिळच्याक जातवे?"** अशी साळाक आपल्याला नणदेकडेन म्हणताली.

## भायर व्हेल्यार वीकना, घर हाडल्यार पीकना

भायर चारचौघांमध्ये घेव्न वच्यां म्हळ्यार रमेशाक भाषा कळना आनी घरांत बसून कित्तें काम करच्याक सांगल्यार, तागेल्या मनांत ते करचे ऊरना. माका होडलो पेच जाला पळै. **"भायर व्हेल्यार वीकना, आनी घर हाडल्यार पीकना."**

## देवान दिल्यार देवतार दीना

कुमुदाले म्हातारपणाचे दिवस. चोरडं ताका बरे करताली. सुनो बऱ्यो करताल्यो. खावच्याक पिवच्याक जायनाका म्हण् विचारताल्यो. जाल्यार तागेले नशीबच वाय्ट, ताका जाल्ल्या शिकपणाक, डॉक्टरान ताका फक्त फळांच्या रसार दवरले. **"देवान दिल्यार देवतार दीना"** म्हणतात तें अशीं.

## शिक्षण म्हळयार दोन दोळे

दोळ्यांचो आमका कितलो उपयोग जाता? दोळे म्हळ्यार देवाली होडली देणगी आसा. जन्मा आयिल्लेच्यान वैर वतापर्यंत

दोळे आमका पावतात. आमगेली सेवा करतात. अगदी तशीच शिक्षणाचे स्थान आसा. दोळे ना जाल्यार दिसना आनी शिक्षण ना जाल्यार मनषाक काय्यी कळना. **"शिक्षण म्हळयार दोन दोळे आसात"** ...

## आमशे खाल्ल्याक गळयांत लासता

आमगेली कामवाली पार्वती आसने, तिगेलें तोंड पड्डीलें. तिका मनातल्यान भय लागिल्लें की तिने आमगेर केल्ली चोरी आमका कळ्ळी की कितें? उल्लैयतना सुद्धा मान सकल घाल्न उल्लैयताली **'आमशें खाल्ल्याक गळयांत लासता** म्हणतात मे, तशी तिगेली स्थिती जाल्ली.

## हरवे सोत्तल्याक पिक्किलें मेळचें

पंधरा तारखेक सदाक पेडीचेर कामाक वच्चें मनांत नशिल्लें. गांवच्यान आयिल्ल्या आपल्याल्या भैयणीक मुंबै दाखोवच्याक व्हरचें तागेल्या मनांत आशिल्लें. पेडीवैल्या मालकान तागेल्या धुवेल्या लग्नानिमित्त्यान पेडीर काम करतल्यांक रजा दिली. **हरवे सोत्तल्या सदाक पिक्किलें मेळ्ळें.**

## कुरडो मागता एक दोळो, देव दिता दोन दोळे

वार्षीक परीक्षेक चार महिने आसतना गणेश काविळीन शीक जालो. ताका अशक्तपणा आयलो. महिनोभर तो शाळेक गेल्लोना.

घराच उरलो. ताजेनंतर तो शाळेत वच्याक लागलो. वार्षीक परीक्षा लागी आयिल्ल्यान ताका भय लागलें. तागेल्या आवैय बापायक बी दिसलें की ताणे परीक्षेत पास जाल्यार पुरो. वर्ष फुकट वचना जाल्यार पुरो. गणेशान मात्र जाता िततलो अभ्यास केलो. परीक्षा जाली. परीक्षेचो निकाल लागलो. आनी अशें कळ्ण आयलें की गणेश पास जालो. इतलें न्हय तर वर्गात तो तिसरो आयलो. सगळ्यांक आनंद जालो. **कुरडो मागता एक दोळो आनी देव दिता दोन दोळे अशी जालें.**

## बाणी वैलें बॉट

आमगेली रुक्मिणीमामी आसने तिगेलो स्वभावच वेगळो. तिने म्हळ्ळे ते खरे आनी तशीच करच्या जाय. '**बाणी वैलें बॉट करची** तिगेली सवय वच्ची न्हय.

## हूनारहून जावका

"सदान दित्ता म्हळ्यांमुरे तुका? दित्ता म्हळ्ळें तेन्नाच पाच हजार रुपये ताजकडच्यान घेव्‌न उडय **हुनारहून जाल्लें बरे."** अशें शकुंतलान सुरेशाक सांगले.

## तीन तेरा नऊ अठरा

नारायणान मरना फुडे तागेल्या घरचो नमुनो पयले सारखो उरलो ना. तागेली सगळी चोरडं आपापसांत झगडच्याक लागलीं.

एकमेकाली तोंड पळैयना जाली. **तागेल्या घराचे तीन तेरा नऊ अठरा जाले.**

## धा नारलांक अकरा ओळीं

रजन मू? तो सांगिलें कायीं आयकना. आपल्यान म्हळ्ळें खरें म्हणता. '**धा नारलांक अकरा ओळीं** म्हणचो तागेलो स्वभावच आसा.

## कोंक्यान म्होव काडल्यार तोंडात पडतावे?

"गजबाबान आपल्याल्या पुताक विठोबाक सांगचें, विठोबान तागेल्या साडवाक विचारचे, आनी साडवान आपल्याल्या मेवणी कडेन म्हणचें हो नमुनो पळयल्यार **कोंक्यान म्होव काडचो तो तोंडात पडतावे?** माका दीसना ते काम जातलें म्हण्ण" बाबशैणयन रामचंद्रा कडेन म्हळें.

## उमत्या कोळशार उदाक

सुधाकराक शिकैलें तितलो वेळ मागीर पूरा विसरता. कितलें शिकई तू ताका. तागेल्या मात्यातच कायीं ऊरना "**उमत्या कोळशार उदाक.**"

## हां म्हळयार चिरीन, हूं म्हळयार पुरीन

"रमाली सवत आवय ने? ती महा कजाग आसा. **रमाक हां**

**म्हळयार चिरीन हूं म्हळयार पुरीन** करता. रमा बापड्याक जीव नाका जाला." विठाबाय म्हणताली.

## दिसलो गुंडो घेतलें कपाळ

काल धा दुकान फिरलें. माका जाय आशील्लें तशा देगेचें काप्पड मेळ्ळेना. आज सकाळी हांव लागीच्याच दुकानात गेलें. दिशिल्लैं तें कापड घेतलें आनी आयले '**दिसलो गुंडो घेतलें कपाळ.**'

## गणेशाली गांड झरौवन, गणेशाक तिळ्ळो करचो

भांगराक आपुडचे दिवस गेले. कितली दर वाढल्या? धुवेले लग्न ठरना फुडे तागेली दोन पदरी गळ्यातली सरपळी घेव्न राधाबाय सोनाराकडेन गेली आनी तीने ताका सांगले की त्या सरपळीचोच ल्हानसो तुकडो काड आनी आपल्याल्या धुवेल्या-सुधाल्या बोटाक सम जावशी एक मुद्दी कर्‌न दी. सोनारान बरी कर्‌न एक मुद्दी कर्‌न दिली. **गणेशाली गांड झरौवन गणेशाक तिळ्ळो केलो राधान बापड्यान.**

## केल्यार सगळे जाता, करना जाल्यार कायीं जायना

धाये मनषं जेवच्याक येवची आसात म्हण्ण मावांन आपल्याल्या सुनेक कामाक्षीक अकस्मात सांगलें. कामाक्षीक कित्तें करचे म्हण्ण

कळ्ळें ना. तिनें वचून शेजारणीक सांगले. शेजारणीन तिका धैर्य दिलें आनी आपूण येव्न मदत करता म्हण्ण सांगले. कामाक्षी घर आयली आनी झरझरी कामाक लागली. तांदुळ धुव्न शिताक दवरले. सोय कातून मासल वाटले. भाजी चिरली आनी शिजच्याक घाली. थोड्या वेळान शेजारीण आयली आनी कित्ते पळैयता? कामाक्षीली जेवणाची सगळी तयारी जाल्ली. पानं सुद्धा तिणे मांडून जाल्लीं. तिगेली ही तयारी पळौवन शेजारीणीक बरें दिसलें. तिने म्हळें, "कामाक्षे **केल्यार सगळे जाता, करना जाल्यार कार्यीं जायना.**"

## राजा धुवेक फुलां घोशांन मारचें

सुमंगलाक सगळ्यांनी मात्यार घेतल्यां. मावमाय कौतुक करतात. घोवाक तर ताणे म्हळ्ळे तें जालें. आवयबापायली एकुलती एक धूव आशिल्यान तांगेल्या बी तें मात्यावैलें जाल्या. एक दिवस तागेल्या मावशीन ताका केलीलो उपदेश मात्र सुमंगलाक जड गेलो. ताका तो आवडलो ना. **राजा धुवेक फुलां घोशांनी मारिल्लो नमुनो जालो.**



## ओणतीक कान उरतात

गांवच्यो सगळ्यो खबरो येसाकाक सांगल्या शिवाय कमलाबायेक सुख लागना. येसाकाल्या घरा लागूनच येसाकाली

जाव रावताली. तिका चोर्‌न आयकुची सवय आशिल्ली. येसाकाक हे कळ्ळें. अशी एक दिवस कमलाबाय येसाकाकडेन आयली आनी कितेतरी सांगच्याक लागली. येसाकान म्हळें, "कमला, **ओणतीक कान आसा गो.** विचार कर्‌न उलैय."

## भागंरा दायेक सुद्धा ओणती आधार लागता

मनुष्याक शेजाऱ्यांपाजाऱ्यांकडेन वैरत्व कर्‌न रावच्याक जावते ? केन्ना कोणाली गरज पडता म्हण्‌ण सांगच्याक जायना. **भांगरा दायेक सुद्धा ओणतीचो आधार लागता.**

## आम्माली भैयण मावशी, तू माका पावशी

दोनी चोरडं ल्हान आसतनाच गंगाबाय तापान गेली. चोरडं बापडी ल्हान. तांका काय कळ्नाशिल्लें. बापुय कितलें म्हळें तरी दारलो. आवैयली माया दिवच्याक जातवे ताज्यानं ? चोरडांल्या मावशीन राधेन मात्र तांका कित्तें कमी पडच्याक दिल्ले ना. सद येवचें. तांका कितें जायनाका पळौवचे, न्हाणोवचें खावोवचें, आवय ना. म्हण्‌ण तांका भासच्याक सुद्धा दिलना. 'आम्माली **भैयण मावशी, तू माका पावशी**" हेंच खरें.

## पितळे कानाचो

वसंताक कोणी कितें सांगले तें खरें दिसता. तो स्वतः ताजेर

विचार करना. एक दिवस आवैयन ताका बरें झाडलें आनी म्हळें, “हयरे तुका कोणे कित्ते सांगल्यार खरें दिसता? तू **पितळे कानाचो वे?** तुका स्वतःली बुद्धी ना?”

## हाताची पाचही बॉट्टं सम उरनात

बाळकृष्णाल्या चोरडांलो नमुनोच वेगळो. गणेश बापायक बरें करता. सुधाकर मात्र बापायल्या धंद्यात एद्दी मदत करना. उलट ताका त्रास दिता. आपल्यान म्हळ्ळेंच खरें म्हणता आनी झगडता. सुधा बापायन सांगिल्या भायर ना. बाळकृष्णाक सुधाकरालो राग येता. मनस्ताप जाता. एक दिवस बाळकृष्णान आपल्याक जाल्लो मनस्ताप आपल्याल्या दोस्ताक सांगलो. दोस्तान म्हळें, ‘उरू रे, **हाताची पांच बॉट्टं सम उरतात वे?**

## एक पायार तयार

शोभाक उमेद भारी. खयीं वच्चें येवचे उरू सिनेमा नाटकाक वच्चें उरू, ते **एक पायार तयार** उरता.

## हिट्ट आनी रोस एक, खोट्टो वाऱ्यार

हरशी राम आनी तागेली बायल सीता एकमेकांकडेन झगडत उरतात. जाल्यार दुसऱ्यान कोणे आपल्याल्या घोवाक कित्तें म्हळ्यार तिका मनांत वचना. तिका राग येता आनी ती तेन्ना घोवाली बाजू घेवन झगडता. **‘हिट्ट आनी रोस एक खोट्टो वाऱ्यार’** आनी कितें?

## जीभ व्हेली ताळयाक लायली

मीरा उलैयतना, आपल्यान उलैयल्याचो आयकतल्यांचेर कसलो परिणाम जातलो हाजो विचार करना मनाभितर कसलो विचार आयलो की तें उलौन सोडता. **'जीभ व्हेली ताळयाक लायली.'**

## आपल्याल्या पायामुळांत कुवाळे कुशिल्ले आसतना लोकां पाया मुळातली सासवं वेच्यानात.

काशील्यो दोन चल्यो लग्ना वाडिल्यो आसतना लोकांल्या चल्यांल्यो खबरो करच्यो, तांगेली लग्नं जमली नात, लग्न जाल्लीं उरल्यार अजून चोरडं जाल्ली नात असल्यो खबरो करत फिरचो तागेलो स्वभाव. एक दिवस तागेल्याच मावळ्यान ताका म्हळें, "अगो काशी, लोकाल्यो खबरो तूं माका कित्याक सांगता? **आपल्याल्या पायामुळांत कुवाळे कुशिल्ले आसतना. लोकांपायामुळांतली सासवं वेच्यानात गो.**"

## रांधा वाढा उष्टी काढा

फाटल्या काळच्या बायलांक शिक्षण नशिल्लें. ती नोकरी करनाशिल्लीं. घरातली काम करची. आयिल्या गेल्यांली सरबराय करत रावताली. **'रांधा वाढा उष्टी काढा'** हेंच करत बसचें आशिल्लें.

## बोला फुला गाठ

लग्न जाव्न धाये वर्षं जाली. देवधर्म, उपासतापास सगळे

जाले. तरी कुमुदाक चोरडूं नशिल्ले. एक दिवस, भर दनपारां एक सवाशीण बायल तांगेल्या घर आयली. तिने कुमुदाक सांगले, 'पाच शुक्रवार कर तुका चोरडू जातले.'

कुमुदान बापड्यान तिने म्हळें म्हण्ण पाच शुक्रवार उपवास केले. देवींची पूजा केली. आनी खरांखरच कुमुदाक गुरवारपणाची लक्षण दिसच्याक लागलीं आनी नऊ महिन्यांनी कन्या रत्न जन्माक आयले. '**बोला फुला गाठ जाली ने?**' अशे, तिगेल्या भैयणीन म्हळें.

## आंब्या ताळो

खंच्या समारंभाक सिंधू आयल्या शिवाय रावना. आप्तेष्टांघरची लग्न, मुंज, सत्यनारायणापूजा कित्तें उरू तें सर्वांत पयले येव्न पावता, खंच्या कार्यकरणाक ते आयिल्ले ना जाल्यार सगळें तागेली चौकशी करतात आनी म्हणतात, 'सिंधू खंय तें? **आंब्या ताळो** ते ताणे यवच्याक जाय आशिल्लें.

## दोळे आसून दिसना, कान आसून आयकना

म्हातारपण हे वायट म्हणतात. म्हातारपणात बाळबुद्धी येता अशें वी म्हणतात. ते खरें उरत. कित्याक खबर आसा? रामशणैय आनी तागेली बायल म्हातारी जाल्यात. तांगेले वय पंचात्तरीच्या वैरच उरतलें. कसलें तरी कारण काडतात, फाटल्यो खबरो काडतात

आनी दोगं एकमेकांकडेन झगडत बसतात. सुदेशान आवैय बापायक
कितले सांगून पळैयले. ती काय आयकनात. म्हण्ण आतं तो **'दोळे
आसून दीसना, कान आसून आयकना'** अशी करच्याक लागला

## हाता तळव्या वैलो

चल्या चोरडूं ना ना म्हण्ण जाल्लों रमाकांत आवैय बापायल्या
**'हातातळव्या वैलो'** जावन बसला अशी सुरेश म्हणतालो.

## आन्ना वर्गाचो की आम्मा वर्गाचो?

गणेशाक जाय तशीं सवलती दिवच्याक तो सुधाकराल्या **'आन्ना
वर्गाचो की आम्मा वर्गाचो?'**

## एक रोमेचे गूण नात

"कुसुमाल्या आंगात शैलाल्या **एक रामेचे तरी गुण** आसावे?"
काशिनाथान श्रीधराक विचारलें?

## भाड्या बैलाक देवा राखण

श्रीमंताल्या घरात शिकपण आयल्यार त्या शिकपणाचे कौतुक
जाता. डॉक्टर यों वच करता. वकदं अदलून बदलून दिता. शीव
मनषाक निदोन दवरतात. फळांचो रस दितात. जितली म्हण्ण काळ्जी
घेवच्याक जाता तितली घेतात.

खावच्याक पॉटाक पॉट भर नशिल्या गरीबाल्या घरांत तेंच शिकपण जर आयलें तर ताजी सरबराय कोण करता ? कोण करना. कोणे पुणे सांगिल्लो कसाय कर्‌न दिवचो ना जाल्यार कसलें तरी मूळ गंधासाणीर झरौवन लावचें आनी मात्याक वेट बांधून निच्चे **'भाड्या बैलाक देवा राखण म्हण्‌ण गप्प बसचे.**

## दोन दोणीवैले पाय

रमेशान सांगिल्ले तशी करचें की शशांकान सांगितल्याप्रमाणे करचें तेंच कळ्ना जालें सुशीलाक. **दोन दोणी वैले पायांची** अवस्था जाली तागेली.

## बडा घरा पोकळ वासा

प्रकाशाल्या घरात पैयले कालासारखे आता कायी उरलेना. तेन्ना श्रीमंती कितली आशिल्ली लोकाले यवप वचप कितले आशिल्लें. आतं‌त **'बडा घरा पोकळ वासा'** अशी स्थिती जाल्या तागेली.

## जीभेक हाड ना

शिवानंद आज उलैयिलें फाल्या उलैयना. आपल्यान तशीं म्हळ्ळे नाशिल्लें अशीं म्हणता. **'तागेल्या जिभेक हाड ना पळैय'** **अशीं** राम म्हणतालो.

## गॉड खावचें पिश्यें

शिरीषान विठ्ठलाकडेन उलैयताना म्हळें, "स्वार्थ सादच्याक
विलासासारखो मनुष्य ना. '**गॉड खावचें पिश्यें**' बरें जमता ताका.'

## दिवडान बेब्बो गिळिल्या वरी करचें

बरें लागलें म्हण्ण चडतें जेवलो आनी **दिवडान बेब्बो गिळिल्य**
**सारखे** करत खरस काडत नाण्णमाम बसलो.

## बॉट दाखयल्यार हात गिळता

सुधाकर **बॉट दाखयल्यार हात गिळता** म्हण्ण ताका किते
सांगच्याक सुरेश भिता.

## शेराक सव्वा शेर

सदाशिवाक मेळिलो सायब **शेराकसव्वाशेर आस**
सदाशिवाले ताजे मुकार कार्यीं चलना.

## दिवड धावता म्हण्ण गायंडोळ धावता

"सीमा आपल्याल्या जांव्याली अर्तीउमेद होड प्रमाणात करता
कृष्णाबाई आपल्याल्या जांवयाली तशींच अर्ती उमेद करच्याव
पळैयता. ताका काय इतली ऐपत ना. **दिवड धावता म्हण्ण गायंडोळ**
**धावता आनी कित्तें?**" अशीं सुब्बीन आपल्याल्या भावजेकडेन
म्हळें.

## उंदराक मारल्यार चंद्राक लागता

**"उंदराक मारल्यार चंद्राक लागता"** म्हणतात ने तशीं शैला आपल्याल्या धुवेक, सुनेक लागशीं उलैयता.

## कोसतोलो कोसता आनी मेरी वैलो परवंता

**"कोसतोलो कोसता आनी मेरीवैलो परवंता** म्हणतात ने तशीं तूं करता. हांवे काम केलें आनी पळौवनच तुका पुरो जालें ?" सुधान विमलाकं विचारलें.

## चिखलातली म्हस

**चिखलातल्या म्हशी**सारखी भोवानीआक्का आसा. तिका काम करचें म्हळ्यार नाका आळशी आसा. स्वच्छतेचें बी होड अशें ना तिका.



## दुधाची तान ताकान भागोवची

"ताज महाला सारख्या हॉटेलात चोरडांक घेव्‌न वच्चें, खावोचों, पिवोचे आमकां काय जमना, आसू. साधारण बऱ्या हॉटेलात वच्यां ना जाल्यार चौपाटीचेर वचून चोरडांक भेळपुरी, पाणीपुरी खावोव्यां आनी तांगेली **दुधाची तान ताकान भागोव्यां"** वंदनान आपल्याल्या घोवाक सांगलें.

## सोक्नी जन्माचो

“**राधाकृष्ण सोक्नी जन्माचो.** ताका लिपौव्न कित्तें करच्याक जायना” रमेशान, गणेशाक सांगलें.

## पोटाक शीत खाता की शेण खाता?

“घरातली परिस्थिती कळणा म्हळयार कितें? इतली परिस्थिती वाय्ट आसतना, पैशांची अडचण आसतना सिनेमा पळौवच्याक पैशें मागता?” रजनीन आपल्याल्या पुताक विचारलें. तिणे म्हळें, ‘अरे तूं **पोटाक शीत खाता की शेण खाता?**’

## खैंयीं मारलें तरी सुणे पायार कुंटता

‘**खैंयीं मारले तरी सुणे पायार कुंटताने** तशी घरांत कोणी कित्तें उलैयलें, त्रास दिलो तरी सुनेल्या नावान खडे फोडत फिरचो शैलाक अभ्यासच जाव्न गेला.

## हांवे मीठ खाल्लें तितलें तुव्वें शीत खाल्लें ना

रुक्मिणी व्हनीली नात सांगताली “आजे तुका कायीं कळना लोकांकडेन कशी उलौका कशीं वागका. फाटले सारखें आतं ना, मगेल्या मैत्रिण्यांकडेन तू उलौवनाका पळोव्यां.”

रुक्मिणीव्हनेक राग आयलो आनी वाय्ट बी दिसलें. तिनें म्हळें “तूं पैरचे मुगो? माका शिकैयता? **हांवे मीठ खाल्लें तितलें तुवें शीत खाल्लें ना मुगो.**”

## काकदृष्टी

सावित्रीली नजर म्हळ्यार **'काकदृष्टी'**. ताका खंच्यानयी पळौयल्यार बरोबर दिसता.

## होडलें परब्रह्म अशी करचें

थोडे किते करचे आनी **'होडलें परब्रह्म'** अशी कर्‍न दाखोवच्चें हो मोहनालो स्वभावच आसा.

## मात्यार हागना फुडे कळतलें

नागेशाक चार चले आशिल्लें. एक पुताचेर तागेली अतिशय माया. ताणे कित्ते केले तरी तो ताका उलैयनाशिल्लो. तागेले नांव राम आशिल्लै. बाकी चोरडांक मात्र येत्ना वत्ना तापैतालो. एक दिवस नागेशाल्या बायलेन घोवाक सांगले, 'तुम्मी रामाक मात्यार घेतल्यां. एक दिवस तो **तुमगेल्या मात्यार हागतलो आनी तेन्ना तुमकां कळतलें."**

## मालुंडा जन्माचो

सदाशिवाक तागेलो मालक दिवसरात्र कचकच कर्‍न उलैतालो, तापैतालो. तरी सदाशिव बापडो सगळें सहन करतालो. "तो तुका अशी वागैयता तरी तू तागेल्या घरा काम करता? **मालुंडा जन्मांचो** वे तू?" सदाश्िवाक तागेल्या दोस्तान विचारलें.

## माजरा बॉडा वैलो दिव्वो

सतीशालें काम म्हळ्यार **'माजरा बॉडावैर्लो दिव्वो.'** तागेलें खंचे काम धड जायना.

## पोटांत कायीं ऊरना

चंद्रभागील्या **पोटांत कायीं ऊरना,** तें सगळें सांगून उडयता.

## गाढवाक घोडो करच्याक जातवे?

सतीशाक मंगशासारखे हुशार करचें म्हळ्यार **गाढवाक घोडो करच्याक पळौवचें** अशी गणबाबान आपल्याल्या दोस्ताकडेनं म्हळें.

## खानेसुमारी करत बसचें

हागेली खबर विचार, तागेली खबर, विचार हागेली, चौकशी कर, तागेली चौकशी कर अशी **खानेसुमारी करत** बसची शिवानंदाक सवयच जाव्न गेल्या.

## फुलांनी वाय जिंकलो आनी चोरडान बायल जिंकली

सदाशिवाल्या बायलेक पळयल्यार सुणे तर्न पीना. येंद्दी बरी दीसना. सुकडी आनी काळी आसा. तो तिका येव्न वचून हिडीस फिडीस करतालो. आतां ताका एक चल्या चोरडूं जाल्यां. चारसह

म्हैने जाले. **फुलांनी वाय जिंकलों आनी चोरडान बायल जिंकली** म्हणतात तशी जालें. आतां सदाशिव बायलेक बरें करता.

## उडत्या कीराक पास घालचो

'तुगेली धृव सुनंदा मू? भारी हुशार आसा तें. शिक्षणात, कामात हुशार आसा. भायर लोकांकडेन उलौच्याक करच्याक हुशार आसा तें. तागेली तू कित्याक काळजी करता? **उडत्या कीराक पास** घालतल्यां पैंकी आसा तें" राधाबायेन सुंदरीकडेन म्हळें.

## हावें म्हळीलीच पूर्वदिशा

**हांवे म्हळीलीच पूर्व दिशा** म्हणत्तालो सदानंद आतं इतलो कशी बदलल्लो तेंच कळना.

## उज्यांत तेल घालचें

एक दिवस शिवा बायलेक तोंडाक आयिल्ले तशीं उल्लैयतालो "तुका हे कळना तुका तें कळना" म्हणतालो. तेन्नाच **उज्यांत तेल घाल्ल्या** वरी येव्न मायन बी सुनेल्यो चाड्यो पुताकडेन केल्यो.

## तागेली उतरं तागेल्याच तोंडात घालची

रंगाली सगळीं उतरं आयकव आयकव आयकलीं आनी अखेर सुवरावान ताका बरें झाडलें. आनी **तागेली उतर तागेल्याच तोंडात घाल्लीं**. तेन्ना रंगा गप्प पडलो.

## वाजेवाजे करचें

थोडी जरी कोणा मदत केली, कोणाक प्रसंगाक पावलो तर पांडुरंग गप्प बसतलो न्हैय. "हांवे हाका अशी मदत केली ताका हांव अशी पावलों." अशी **वाजे वाजे करत** फिरतल्यांपैकी तो आसा.

## तारे वैली कसरत

श्रीमंती **तारेवैली कसरत** अशी घरांतली सगळी काम करता. ऑफिसा वता इतलें न्हय तर वेळांत वेळ काड्न समाजकार्य बी करता.

## घोवाक नाका जाल्ली बायल फातरा गुंड्याक बी नाका

भास्कर बायलेक त्रास दिता. मारता, भायर पड्न वच म्हण्ण सांगता, गौरी बापडे सगळें सहन करता आनी घरांत घोळ घोळ घोळता. मायक गौरीन कित्ते केल्लें. मनात वचना. ती ताका ऊठ तर ऊठ बस तर बस करता. नणंद कचकच करता. मांव सुद्धा येत्ना वत्ना तापैयता. कित्तें करतलें बापडे गौरी? गप्प पड्न सगळें सहन करता. **घोवाक नाका जाल्ली बायल फातरा गुंड्याक बी नाका** म्हणतात तें खोटें न्हय.

## कोण्णाक मीठ घालना

खंयीं वचून खंचे काम कर्न येतल्या पैकी सुरेश आसा. ताका कोण्णालें भय ना. तो **कोण्णाक मीठ घालतल्यां पैकी** न्हैय.

## गरीबांनी खाल्यार पोटाक खावचें आनी श्रीमंतान खाल्यार रुचीक खावचें

गरीबंकडेन पळोवची आनी श्रीमंताकडेन पळोवची लोकांली नजर वेगळीच उरता. **गरीबांन खाल्यार पोटाक भूक लागली म्हण्ण खालें.** आनी **श्रीमंत मनषान खाल्यार रुच पळौवच्याक खाले** ताणे अशीं लोक म्हणतात.

## मन जर भोळे देव दिता केळें, मन जर कपट देव दिता थापट

देवाल्या दरबारांत मात्र न्याय सम मेळता. भोळेपणान जो मनुष्य आपल्यालें काम करत उरता आनी कोणाल्या खबरेक वचना आसतना सरळ वृत्तीन जगता ताका देव बरें करता आनी जो कपटी उरता ताका सम शिक्षा करता. **'मन जर भोळे देव दिता केळें, मन जर कपट देव दिता थापट.'**

## दिसता तशी नसता म्हण्ण जग फसता

जगात जें जें दिसता, ते सगळे खरें म्हण्ण समजूं नयो. जाय

म्हण्ण ढोंग करतले लोक कितले उरतात. तीं ढोंग सगळ्यांल्यांच लक्षात येनात आनी तशी जाव्न लोक फसतात. **'दिसता तशी नसता म्हण्ण जग फसता.**

## मऊ आशिल्ले कडेन खणचें

थंड अशी मनषं उरलीं तर सगळेच तांका सकल वैर करतात, त्रास दितात. म्हणतात ने **'मऊ आशिल्ले कडेन खणचें.'**

## डोळयार खवळं येवचीं

चार पैशे केल्लेच्यान रमाकांताक गर्व आयला. तागेलो वागचो नमुनोच वेगळो जाला. लोकांकडेन उलैयतना **डोळयार खवळं आयिल्ल्या** सारखी करता.

## लाशिल्या उंगय्यार मुत्त्वें

शंकर **लाशिल्या उंगय्यार मुत्तलो न्हयं.** तागेल्या आंगात कोणाल्या उपयोगा पडचो गुणच ना.

## नाकार मूठ घालची

रघून मनूक सांगलें, "गणेशाक हांवें सांगिलें काम करच्याक सांग ना जाल्यार **नाकार मूठ घालतलों**. हांव गप्प रावचों ना."

## म्हातारे म्हातारे गांवा किते खबर?

'म्हातारे म्हातारे गांवा कित्ते खबर' कर्न चौकशी करत फिरचो वसंतालो स्वभाव आसा.

## भीव्न गुळी सुकची

वाघाक पळौवचे भितर विष्णुली **भीव्न गुळी सुकली.**

## नांकारो घालचो

खंचें काम सांगल्यार सीमा करच्याक तयार ऊरना. प्रत्येक कामाक ते **'नांकारो' घालता.**

## लांबतल्या फाटल्यान झोंबतलें

**'लांबतल्या फाटल्यान झोंबतलो'** जाव्न मनात नासतना सुद्धा रजनीकांताक श्रीकांता फाटल्यान वच्चें पडता.

## हिरण्यकशपूलें मरण

अशी उल्लोवच्याक जायना, तशीं उल्लौवच्याक जायना. कित्तें करचें म्हण्ण कळना सदाक बापड्याक. **हिरण्यकशपूल्या मरणासारखी** तागेली परिस्थिती जाल्या.

## बिट्टी काम करचें

'बिट्टीकाम केल्यार **माका आवडना पळे. काम** केल्यार **सम**

**करका. कोणी नांव** दवरसारखें काम करच्याक ना." सुब्बान श्रीधराक सांगलें.

## हायुसाच्याक जायना, कटवुच्याक जायना

"एक तर तानीं सांगिल्ले तशीं आयकून, सांगिल्लें ते काम कर्‌न तू तांगेल्या घर राव, ना जाल्यार तांगेले काम सोड्‌न वच. **हायसुच्याक जायना कटवुच्याक जायना** अशी कित्याक करता ?" गणेशबाप्पान सुधीराक विचारलें.

## दाता फोणो काडचो

जरा कितें कारण मेळ्ळें तरी हासहास हासचें हो मंगलालो स्वभाव. तें हासच्या लागलें की वाड्यावेलीं ताका म्हणतात, **'मंगला, दाता फोणो कित्याक काडता ?'**

## कांटी अशीं फाटल्यान लागचे

**कांटी अशीं फाटल्यान लागून** शिरीषान बापायक बाजा पेटी हाडच्याक लायली.

## पायांमुळात नाक आपटूचें

"वाय्ट गुण करनाका, व्यसनाधीन जावनाका, संसाराची वाट लाव्‌न घेवनाका म्हण्‌ण सर्व अर्थान सांगून पळैयले. हरी कायीं आयकना. हांव तागेल्या **पायांमुळांत नाक आपटुवूं वे ?"** सुभद्रेन आपल्याल्या बहिणीकडेन वाय्ट दिसून म्हळें.

## वारो आयिल्लो तशीं शीड दिवची

"हावें, अण्णा विरुद्ध कित्तें सांगल्यार तूं आयकून घेता तागेलो नमुनो तशी रे म्हणता. तशेच अण्णान मगेली चाडी केल्यार तू बरें कर्‌न आयकता. ते तुका खरे दिसता." रमेशान आपल्याला आवैय कडेन म्हळें.

आवैयन ताका सांगलें, 'अरे रमेशा, आतं मगेले म्हातारपण बाळा. **वारो आयिल्लो तशी शीड दिव्‌न राविल्लेंच बरें."**

## नाकार खरपील्यार जायना

रामदास भारी स्वाभिमानी आसा. ताका कोणे **नांकार खरपील्यार जायना.** लगेच राग येता.

## शिशींभीरीचे मनीस

गंगाक मू? ताका भारी स्वच्छतेचें पिश्यें. कोणे कित्ते केल्यार ताका सम जायना. हे अशीच कित्याक केलें? ते तशींच कित्याक केलें? अशीं म्हणता आनी घरात सर्वांक त्रास दिता. भारी **शिशींभीरीचें मनीस** तें.

## तोंडात बॉट घालचें

पांच वर्पांच्या इतल्या ल्हान पोरान सुधान, काडील्लें गणपतीचे चित्र पळौवन संगळ्यांनी **तोंडात बॉटं घाल्लीं.**

## तुसवार बशिल्ली खोल्ली कुले फाफुड्न चल्ली

चलेचोरडूं म्हळ्यार परधनच तें. वेळ आयली कीं कुळारचे सगळे मायेचे पास तुटोव्न ती आपल्याल्या घरा आनंदान वता. म्हणच आसा, '**तुसवार बशिल्ली खोल्ली कुल्लें फाफुड्न चल्ली.**"

## लोण्यातल्यान आगोळ काडील्यावरी उलौवचें

**लोण्यातल्यान आगोळ काडील्यावरी गोड उलौवन** आपल्याली काम्मं कर्न घेवच्याक विठाबाईक बरें कळता.

## दुडवाक पंचेर

कितलेही स्वस्त उरुत, **दुडवाक पंचेर जरी** जाले ने तरी माका बटाटे नाकात.

## जीव न्हय म्हण्ण काम करचें

"मिरसांगीचो पिट्टो करचो, लोणचें करचें, पापड वड्यो करच्यो अशी कितली काम **जीव न्हय म्हण्ण करता** गो गोदावरी." पंढरीन आपल्याल्या भावजेकडेन म्हळें.

## मनशाली घाण नाका

पुंडलीक शेणयक **मनशाली घाण नाका.** वाड्यावैल्या एक मनशाकडेन तो उलैयना.

## सोक्ष मोक्ष करचो

घरांत धुसुपुसू जातेर आशिल्लें, गणबाप्पाक कळ्ळें. तागेल्या मनांत आयलें की अशी कितले दिवस चलतलें? म्हण्ण ताणे आपल्याल्या पुतांकडेन आनी सुनांकडेन उलौवन तांगेल्या मनांत कित्ते आसा ते पळौवन कित्ते आशिल्लो तो **सोक्षमोक्ष लाव्न उडोवचो ठरयलें.**

## घुम्मा पोटली

सखुबाई आपल्यालें भांगर, चांदी, दुड्डू ही सगळी **घुम्मा पोटली** आपल्याल्या जीवाबरोबर घेव्न फिरता.

## बोळंती करची

"सगळे पैशे खर्चून, दागदागिने मोड्ण घरदार विकून कितें करचें केल्यां? **सगळी बोळंती कर्न** खैंय हिमालयार वच्चो आसवे?" गणपतीन आपल्याल्या मेवण्याक विचारलें.

## कुल्यावैलें कवळ्ण नाचचें

सोयऱ्या घरचीं मनषं तासभरात येतली हें कळचे भितर सरला **कुल्यावैलें कवळ्न नाचच्याक लागले.** सगळी तयारी कशी करची म्हण्ण ताका प्रश्न पडलो. सगळी धांदल जाली. तागेल्या जावेन ताका मदत केली म्हण्ण बरें जालों.

## शिपारशीचें मॉट

"पूत, जावैंय बऱ्या कामार आसात. दोन्नी नातवांक स्कॉलरशीप मेळ्ळया म्हण्ण गोदाक संसारात ना. **शिपारशींचें मॉट गो तें."** रमान आपल्याल्या भैयणीक सांगलें.

## भीव्नू उदाक मुच्चें

फाटल्या कालाक 'पोलीस' आयले म्हळ्यार चोरडू बाळ इतलें न्हय, घरांतली होड मनषं बी **भीव्नू उदाक मुत्ताली.** त्या काळांत पोलिसांलो इतलो धाक आशिल्लो.

## डोळयांत प्राण येवचे

"भिम्याक **डोळयांत प्राण योपर्यंत** काम करता. सांगल्यार आयकना." व्यंकटान सुबरायाक सांगलें.

## दोगां मधल्यान उजो वचना

गणपती आनी शेशगिरी **मधल्यान उजो वचना** एकमेकां पळैल्यार दुश्माना पळैयिल्या सारखे करतात.

## सुण्यालें बाल नळीत घाल्ले तितलो वेळ

महेशाक कितलें सांग, कितलो उपदेश कर, सांगिलो तितलो वेळ **सुण्यालें बाल नळीत घाल्लो नमुनो.**

## सुंब जळलें तरी पीळ वचना

**सुंब जळलें तरी पीळ वचना** म्हणतात ने ? तसोच गंगाकालो नमुनो. कितलें नुकसान जालें तरी जाता. आपल्यान म्हळ्ळें तशीं जावका म्हणता. भारी हट्टी आसा.

## चावी मारची

**चावी मारचें** काम सुधाक बरें जमता. ताणे रमान, जया बद्दल उलयिलीं सगळीं उतरं बरी करून आयकून घेतलीं. आनी दुसऱ्या दिवस वचून, रमा अशें अशें म्हणतालें म्हण्‌ण जयाक वचून सगळे सांगलें.

## हासल्यार दात दिसतले

मीराक कोणाली पर्वा म्हण्‌ण ना. कोणी आपल्याक कितें म्हणतले, हासतले अशीं सुद्धा ताका दीसना. 'हासल्यार हासनात, **हासल्यार दात दिसतले**' अशी म्हणता तें.

## उज्या काडी लावची

चाड्यो करच्यो, झगडी लाव्‌न दिवचीं असलीं **उज्या काडी लावचीं** कामं केन्ना करनयो.



## बेकार मेस्त कुले तासता

नोकरी गेली. घरांत बसून करतलो कितें ? **बेकार मेस्त कुले**

**तासता म्हणतात** तशीं, रमेश नाटकांत काम करचें, पदं म्हणची अशीं कितें तरी करत बसता.

## गुंडकुळें जावन बसचें

कौतुक कर्‌न घेवच्याक माधुरीक बरें कळता. कौतुकान कोणे कित्तें म्हळ्यार बरें **गुंडकुळें जाता.**

## मारा भयाक खेते नाचता

शिवांगी घरात, मांव, माय, घोव सगळ्यांक भीव्‌न आसा. **मारा भयाक खेते नाचता म्हणतात** तशीं तानीं सांगिल्लें तशीं आयकून दिवस काडता.

## कायदेशीर म्होवा बाटली

साळाक **कायदेशीर म्होवाबाटली आसा** ताका जरा भी कमी जास्त उलैयल्यार जायना.

## एक घायाक दोन तुकडे

सुधाकरालो मांव बरो रागीष्ट आसा. कोणी सांगिले, आपल्याक पटले ना जाल्यार तो तशीं सांगच्याक फाटी फुडे पळैयना. **एक घायाक दोन तुकडे करता.**

## हाता तोंडाक पावचें

राधेली चोरडं आतां **हाता तोंडाक पावल्यात.** घरांतली

परिस्थिती आतां बरी सुधारल्या. सगळी खाव्न पीव्न सुखान आसात.

## पायांक बेड्यो घाल्ल्या सारखें जावचें

पूत सून नोकरी करतात. नातवंड घरांत आशिल्यान तांका सोड्न आपल्याक खंई भायर वच्याक मेळना. **पायांक बेड्यो घाल्ल्या सारखें जाल्यां** अशी साळाक भावाकडेन म्हणतालें.

## भातभर ज्यास्त, भातभर कमी

सम्म दोन वाटे करच्याक जाय म्हणूण ना. **भातभत ज्यास्त ना जाल्यार भातभर कमी** अशीं सुधान आपल्याल्या भावजेक सांगलें.

## राण्यालो दरबार

"जायतशीं उलैयता म्हळ्यार कितें ? तुवें उलोवचें आनी आम्मी आयकून घेवचें ? **राण्यालों दरबार वे ?"** सुधाकरान रंगाक विचारले.

## तोंडावैलो मूस ऊडना

सुधार इतलो शिकला वाचला मू ? कित्ते उपयोग ? **तागेल्या तोंडावैलो मूस काय ऊडना.**

## चड पावसाळे पळौवचे

गणेशान आपल्याल्या बापुलभावाक उपदेशाचे बरे चार शब्द सांगले आनी ताका सांगले, '**हांवे तुज्या पेक्षां चड पावसाळे** पळैयल्यात."

## तोंड सवरग

शंकर मामालें **तोंड सवरग. तो कित्तें** उलैयता. ल्हान होड म्हण्ण पळैयना. वाय्ट दिसत म्हण्ण बी पळयना.

## पोकळे मारतलो पोकळे शिन्नोप

गणेशबाब **पोकळे मारतलो पोकळे शिन्नोप** आसा तागेलें तोंड चालूच उरता. कितलें उलैयता म्हण्ण ना.

## आपुडल्यार बॉब मारता

माती आयदन मू तीं ? **आपुडल्यार बॉब मारतात** केन्ना फुटतीत म्हण्ण सांगच्याक जायना.

## मेच्चू मद्दू घाल्ल्या सारखे करचें

**मेच्चू मद्दू घाल्ल्या वरी** व्यंकटेश बायले फाटल्यानच उरता.

## कानांत भिरंडेल तेल घालचें

"वदरून सांगले तरी आयकना ? **कानांत भिरंडेल तेल घाल्न घे."** शीलान भैयणीक सांगलें.

## धा भुज्जं

धूव, जावैंय, नातवंड येतात म्हळ्यार शांतीक **धा भुज्जं** जातात. खुश उरता तें.

## एकाएक ना, शिंबऱ्याक नाक ना

"रांदप करचें तरी कशी ? **एका एक ना शिंबऱ्याक नाक ना.** सामान हाड्ण दी म्हळ्यार हाड्ण दीनात." सुब्बीन घोवाक म्हळे.

## गॅरसप्पे म्हळयार कायसप्पे

आपल्याल्या सुनेक रांदच्याक कायीं कळना. **गॅरसप्पे म्हळयार कायसप्पे.** करचें कित्तें ? अशीं काशाक शेजारणी कडेन म्हणताली.

## धा जणांली आवैय कय्यार पड्ण मेली

**धा जणांली आवैय कय्यार पड्ण मेली** म्हणतात ने तशी सुब्बीली अवस्था जाल्या, चार पूत आसात. सगळ्यांक ते जड. प्रत्येकाक दिसता की ताका दुसऱ्या पुतान पळोंवचें.

## कानांवैल्यान गेल्यार पूरो जावचें

आपल्यालो नातू हुशार आसा. खंचीं खबर **कानांवैल्यान गेल्यार पूरो जात ताका.** बरोबर लक्षांत उरता तागेल्या अशीं बायाक्का म्हणताली.

## झांकिली मूठ उघडल्यार गेली

घरांतल्यो खबरो गांवभर करनयो. वायट अभ्यास तो. **झांकिली मूठ उघडल्यार गेली.** अशी सांगून सावित्रीन आपल्याल्या धुवेक उपदेश केलो.

## वालीचें फळ वालीक जड न्हय

जेवणावेळार सुधा आपल्याल्या आवैयल्या घरा येवन पावली. सुधाल्या आवैयली गरीबी. सुधान म्हळें, "आई, जेवण ना जाल्यार माका वाडना जाल्यार जायत. हांवं घर वचून जेवता."

आवैयन म्हळें, 'अगो बाळा, हांव तुका उपाशी वच्याक दिता गो? **वाली फळ वालीक जड वे?'**

## डोळयात तेल घालून पळोवचें

घरांत मेस्तालें काम चालू आशिल्लें. शैलान आपल्याल्या पुताक सांगलें. "घरांत सगळें सामान अस्थाव्यस्थ पडल्यां. तूं हांगा थंय वचनाका. मेस्तांचेर **डोळयांत तेल घालून लक्ष दवर, हांव मात्रशें** भायर वचून येता.

## हात धुवून फाटल्यान लागचें

मल्लाशिराल्यां सायब **हात धुवून ताज्या फाटल्यान लागला.** ताका खूप त्रास दिला.

## सोनारान कान तोपल्यार हाय जाता

अभ्यास कर रे म्हण्ण आवैयन सांगल्यार शिरीष आयकना. ताका अभ्यासाचें महत्त्व बी कळना. परीक्षेत नापास जातलो हाजे भय बी ना.

एक दिवस वर्गातल्या बाईन ताका बरें तापैयले. तेन्ना तागेले दोळे उघडले. **सोनारान कान तोपल्यार हाय जाता म्हणतात** तेंच खरे.

## नाक दाबल्यावर तोंड उघडता

पोलिसांनी चोराक चोरीचो माल खंय व्हर्न लिपैला म्हण्ण विचार्न पळैयले. तो कित्ते केल्यार सांगना जालो. **नाक दाबल्यार तोंड उघडता** म्हणतात तशीं पोलिसांनी ताका धर्न बरें मारले. तेन्नां मात्र ताणे सगळें सांगून उडैयलें.

## पायावेग मस्तकाक चडचो

चलो खोटें उलैयलो म्हण्ण सदाशिवाल्या **पायाचो वेग मस्तकाक चडलो.** ताणे रागान ताका धर्न बरें मारलें.

## दुसऱ्याल्या हातान उदाक पिवचें

म्हातारपण, आनी जालिलें पायांचे दुखणे हाजें सुजाताकाकीक भारी दुःख जालें. **दुसऱ्याल्या हातान उदाक पिवचें.** परस्वाधीन जिणे जगचे दिवस आयिल्ले पळौवन तिका खूप वाय्ट दिसलें.

## जेविल्याल्या घरचे वाशे मोजचे

**जेविल्याल्या घरचे वाशे मोजचे** सारखी वाय्ट गोष्ट दुसरी ना. मनषान नमक हराम जावनयो.

## आयंडे घोळत बसचे

दुसऱ्याला घरचें ऐश्वर्य पळौवन **आयंडे घोळत बसल्यार** उपयोग आसवे ? ताजो आपल्याक कायीं उपयोग जायना.

## कोल्ह्याक द्राक्षं आंबट

ती नोकरी आपल्याक **मेळणा** म्हण्ण **खात्री** ज़ाल्ल्या **नंतर** सदाशिवान त्या नोकरी बद्दल कित्तें कित्तें उलौवच्याक सुरवात केली. ती नोकरी बरी न्हय. पगार वेळेर दीनात, खूप काम पडता. यवच्याक वच्याक त्रास जाता. . .**कोल्ह्याक द्राक्षं आंबट** म्हणतात ने, तशी तो उलौवच्याक लागलो.

## रागाक दोळे नात

**रागाक दोळे नात म्हणतात** तें अगदी खरें आसा. मंगेशान रागाभरात आपल्याल्या चल्याक अशीं मारलें की तो बापडो घुवळ येव्न पडलो.

## सतराशें साठ काम्मं

शेशगिरी गप्प बसतलो प्राणी न्हय. तो आपल्यालींच काम्मं

करना. दुसऱ्यांली सतराशें साठ काम्मं करत बसता. बसचो जीव न्हय तागेलो.

## साडेसाती अशीं फाटल्यान लागलें

रमेशा फाटल्यान साडे साती असो पोलीस लागला. रमेशाक बापड्याक कितें करचे म्हण्ण कळना.

## डोळयांक रक्त ना

व्यंकटेशाल्या **दोळयांक रक्त ना पळै.** ताका, कोणाली दया माया म्हण्ण ना.

## फूक मार्न पाय दवरचे

आजकाल दिवस इतले वाय्ट आयल्यात की **फूक मार्न पाय दवरचे पडतात.**

## मगेलेच दात मगेलेच ओठ

"मगेलीच नातवंड ती. चल्याली चोरडं आनी चलेली चोरडं. हांगेली सदाच झगडी, कोणाली बाजू घेवचीं माका कळना. मजेकडेन तक्रार घेव्न येतात. **मगेलेच दात आनी मगेलच ओठ ने?"** सीताबायेन रमा कडेन म्हळें.

## तेल नशिल्ले सुके पोळे

**तेल नशिल्ले सुके पोळे काडच्याक** राम शणैयक बरे कळता.

तोंडान गोड उलैयता. हातान मात्र तो कायीं करना.

## वाघा बापायलें वर्षीक

सुधीरान एक दिवस बाजारातल्यान थोडीन्हय भाजी हाडली. घरांत मनषं कितलीं? दोन. आनी भाजी कितली? ती भाजी पळौवन तागेल्या आवैयन ताका विचारले, "वाघा बापायलें वर्षीक आसवे?"

## छाती पुढे काड्ण चलचें

शंकर कोणाक भीना. **छाती पुढे काड्ण चलता.**

## आंग काडचें

रात्रीवेळ आनी काळोख आशिल्लो. काळखांत चोरडं **आंग काडतलीं** म्हण्ण सखूबाय भिली आनी तिने आपल्या बरोबर पणती घेव्न वच्चें म्हण्ण ठरयलें.

## मस्तका वैलो

हो नातू म्हळ्यार शेठील्या **मस्तका वैलो** आसा. ताणे म्हळीलें ते तो करता. ताणे सांगिले ते तो हाडता.

## बशिल्ली माणय उपरतता

केल्लें केल्लें तें उपराटी जाता. बरें कितें म्हण्ण सांगचें, घरांतली मनषं ताज्रो दुसरो अर्थ लायतात. आपल्याले दिवसच वाय्ट

आयल्यात. **बशिल्ली माणाय उपरतता** अशी मंगेश आपल्याल्या दोस्ताक सांगतालो.

## दोळयांत धूळ घालची

शेशगिरीन घरांतल्या सगळ्या मनशांल्या **दोळयांत धूळ घाल्न** सगळे दागिने लुबाडले.

## हर हर जावचें.

इतल्या वैर चड्ण वच्चें म्हळयार मस्करी वे ती? हिरुच्यान जाता वे तरी? ताका तितल्या वैर चड्ण वच्च्याक बरो वेळ लागलो. **हरहर जालें ताका.**

## तोंडात तीळ तींबना

शांती कडेन कित्ते उलोंवच्याक भय दिसता. **तागेल्या तोंडात तीळ तींबना.** ते लगेच वचून ती बातमी दुसऱ्यांक सांगल्या शिवाय रावना. अशी तागेली नणंद म्हणतार्ली.

## कोंवो आपल्यामुळेंच फाल्लें जाता म्हणता

**आपल्यामुळेंच फाल्लें जाता अशी कोंव्यान म्हळयां सारखे** रानपी सदाशिव समजता. तो ना जाल्यार एक दिवस सुद्धां घरांतल्या वायलांच्यान रांदच्याक जावचेंना अशी ताका दिसता.

## बत्तीशी पोटांत घालची

"साबार जबाब दिवच्याक लागल्यार **बत्तीशी पोटांत घालतलों**" व्यंकटेश शेट्टीन आपल्याल्या हॉटेलातल्या नोकराक सांगलें.

## देश तसो वेश

**देश तसो वेश** कर्‌न रावच्याक कळतल्याक कायीं भय उरना. तो खंयी दिवस काडच्याक शकता.

## तोंडात बॉट घाल्यार चाबच्याक कळना

"**तोंडात बॉट घाल्यार चाबच्याक कळना** म्हण्‌णे केल्यां वे शशिकांताक? तो तितलो पिस्सो ना." राघवेंद्रान आपल्याल्या भावाकडेन म्हळें.

## चोराल्या मनात चान्ने

शंकरालें तोंड पडिल्लें. आपल्यान खोटे सांगिले हांका कळळें की कितें अशीं ताका दिसलें. कोणे ताका कायीं विचारलें ना. तरी **चोराल्या मनांत चान्ने** म्हणतात तशी तागेली स्थिती जाल्ली.

## फाटल्यान वाघ लागिल्या सारखें काम करचें

शांतावायेलें काम म्हळ्यार **फाटल्यान वाघ लागिल्या सारखें उरता.** झरझरी काम करता बाये तें.

## कावीळ जाल्ल्याक सगळेंच हळदुवे दिसता

**कावीळ जाल्ल्याक सगळे हळदुवें दिसता** म्हणतात तशी रमाकांताक सर्वच चोर दिसतात. सर्वांचेरच संशय घेता तो.

## आयतो विडो तोंडात पडचो

देव देवकार्य आसतना सकाळ फुडे येवन कामाक हात लावचो अशीं बायेन केन्ना केल्लेना. सगळें जायना फुडे जेवच्या वेळार येव्‌न मात्र पावतालें. **आयतो विडो तोंडात पडू** म्हणतात तशी.

## देवा सोडिल्लो बैल

"सुधीराक आनी सांगचें म्हण्‌ण बाकी ना. सर्व अर्थान सांगून पळैयलें. आता ताका **देवाक सोडिल्लो बैल असो** सोड्‌ण दिवचें." आवैयन बेजार्‌न आपल्याल्या भैयणीकडेन म्हळें.

## घोड्यार बसून येवचें

रामदास कामतीलो नमूनो केन्ना तशींच केन्नाय ताका वेळ ऊरना. सद्द गडबडीतच उरता. **घोड्यार बसूनच येना तो.**

## जीव खावचो

"**मगेलो जीव कित्याक खाता.** मज कडेन पैशे नात म्हण्‌ण सांगल्यार तुका कळणा?" चंपाकान आपल्याल्या पुताक विचारलें.

## आकाशाक हात लावचो

येसाकालो चलो दिवस पुसून दिवस वैल्या हुद्द्यार पात्रलो. **आपल्यान आकाशाक हात लायलो** अशी दिसता ताका.

## अ म्हळयार थ कळना

रजनीकांताक **अ म्हळयार थ कळना**. अगदीच बुद्धू आसा तो.

## नंदी बैल

"कित्ते सांगल्यार हं म्हणच्याक तू **नंदी बैल आसरे ?"** रघुवीरान रामचंद्राक विचारलें ?

## मूस मारत बसचें

सदानंदाला धंदो बरो चलना, **मूस मारत बसता** तो.

## नाकापेक्षां मोती जड

'एद्दी होडली जवाबदारी सांतेरमावशीन कित्याक घेतली ? **नाका पेक्षां मोती जड कित्याक तें ?"** सुंदरीन आपल्याल्या भावाक विचारलें.

## सूणे तर्न पीना

"वामनशेट्टीं ले घर इतलें बुरशें आसा, **सूणें तर्न पीना"** रघुवीर म्हणतालो.

## बायंक वोय बांधच्याक जाता न्हयंक वोय बांधच्याक जातवे?

घरांतल्या चोरडांक शिस्त लावच्याक जाता म्हण्ण वाड्यावैल्या लोकांल्या चोरडांक शिस्त लावच्याक शक्य जातवे? **बांयक वोय बांधच्याक जायत. न्हयंक वोय बांध म्हळयार बांधच्याक जातवे?**

## कोडू काराते

शेशगिरीली बाय्ल कोडू कारातें. मनान एद्दें बरें न्हय.

## हाता काकणाक आरसो कित्याक?

'सगळे तुका दोळ्यांनी पळौवच्याक मेळतलें. हांवे आनी किते सांगचे? **हाता काकणाक आरसो कित्याक?**' रमानं आपल्याल्या आवैयक सांगले.

## सू म्हळयार सुंगट

श्रीधर भारी हुशार **सू म्हळयार सुंगट** म्हण्ण ताका कळता. साबार सांगचे पडना.

## मानेर बसून काम कर्न घेवचे

गणेश शेट आपल्याल्या गिरणीत काम करतल्यां कडच्यांन

सम्म काम कर्‌न घेता. कांमगारांचेर तागेले सारखें लक्ष उरता. **मानेर बसून काम कर्‌न घेना** जाल्यार आपल्याक नुकसान भोगचे पडतले. अशी ताणे आपल्याल्या दोस्ताक सांगलें.

## दिवसरात्र हूम गळौवची

**दिवस रात्र हूम गळौवन कष्ट कर्‌न** राजीवान चार पैशे कमायले आनी आपल्याल्या आवैबापायक आपल्या कडेन हाडलें.

## काडेर काडचें

**दुसऱ्याक काडेर काड्‌ण उलौवचें,** ताका कायी येना, आपल्याकच सगळें कळता अशी समजूचें हो बरो गुण न्हय.

## होड भोक्याचे लोक

राम शणैय घरचीं मनषं मू तीं ? गाडी घोड्यातल्यानच फिरतात. विमानातल्यान फिरच्याक बी तीं फाटी पडनात. **होड भोक्याच्या लोकांल्यो खबऱ्यो त्यो.**

## पिश्यें पांगुरचें

सरोजनीक वामना घरांतल्यो भायल्यो भितरल्यो सगळयो खबरो खबर आसात. दुसऱ्यांकडेन उलैयतना मात्र आपल्याक कायीं खबरना अशीं कर्‌न दाखैयता तें. **पिश्यें पांगुरच्याक बरें** कळता ताका.

## धुसुपुसू जावचें

मोहन कामतील्या घरांत जाव जावांली झगडी, भावभावाली झगडी बरीं दिवस चल्ल्यांत. **धुसुपुसू जातेर आसा.** एक ना एक दिवस घराची वाटणी जाल्या शिवाय रावची ना अशी तांगेल्या शेजाऱ्यान सुबोधाक सांगले.

## उदाक नशिल्ले कडेन व्हर्‌न मारचें

"गजानना सारखो दुष्ट मनुष्य ना पळै. आवयबापायक आनी आपल्याल्या धाकट्या भैयणीक ताणे थोडो त्रास दिलो ना. म्हातारी आवैय बापडी रडरड रडताली.

असल्या मनषाक **उदाक नशिल्ले कडेन व्हर्‌न मारका** असो राग येता." रामचंद्रान भावाक सांगलें.

## सकल वैर करचें

वसंतान बेंकातल्या पैशांची अपरातप्पर केल्ली खबर सुरेशाक आसा की पळौवच्याक राधेश्यामान ताका नाना आशिल्ले प्रश्न विचारले, उलट सुलट चौकशी कर्‌न ताका **सकल वैर केले.** सुरेशाक बापड्याक जीव नाका जाल्लो.

## सुक्याबरोबर ओलें जळता

उषान, सोयऱ्यांनी आयिल्ले तेन्ना चार पांच नमुन्याचे बऱ्या

तुपातले खाण केलें. भाज्यो मात्र साध्यो आशिल्यो. **सुक्या बरोबर ओलें** जळता म्हणतात तशीं बाकी सगळे बरें आशिल्यान भाज्यो साध्यो आशिल्यो हें कोणाल्या लक्षांत आयलेना.

## करनाशिल्यान केल्यार जायनाशिल्लें जाता

उंच टाचांचे बूट घाल्न् केन्ना खबरनशिल्या सुधान आपल्याल्या भैयणील्या साखरपुड्या वेळार उंच टाचांचे बूट घाल्ले. ताका सम चलच्याक सुद्धा जायना आशिल्ले. पळैयतल्यांक ते लंगडता अशी दिसतालें. **करनाशिल्यान केल्यार जायनाशिल्ये जाता म्हणतात** तशी जाले. चलता चलता तागेलो पाय विळकलो.

## मज्या भाग्याक इत्ते उणे, पेज ना म्हण्ण मेले सूणे

"मगेले चारी चले बऱ्या कामार आसात. बायल चोरडांबरोबर सुखान आसात. लोकांक पळैयतल्यांक माका कायीं कम्मी ना. हांव खाव्न् पीव्न् सुखी आसा. खरें सांगू? मगेली स्थिती माकाच खबर. हांव सगळ्यांक चडावत जाल्यां. माका पॉटाक-पॉट भर घालनात. कित्तें जायनाका म्हण्ण विचारनात. **मजे भाग्याक इत्ते उणे, पेज ना म्हण्ण मेलें सूणे** म्हणतात तशीं मगेली अवस्था जाल्या." सगुणान सुशीलाकडेन म्हळें.

## एक्क माळेचे मणी

सुंदराबाईले चले मू? एक्क **माळेचे मणी ते.** सगळे एकं

प्रकारचे. खोटे उलौवचें, चोरचे, आःळसपण हे सर्वगुण तांच्यात परिपूर्ण आसात.

## नाडी पळौवची

प्रेमानंदाकडेन हांगच्यो थंच्यो खबरो कर्न, तागेली साधारण कितली ऐपत आसा हाजो, बाळकृष्णान अंदाज लायलो. अशी आजूबाजूची माहिती काड्ण, कोणाली **नाडी पळौवच्याक** बाळकृष्णाक बरें कळता.

## नार्ल विरकल्लो रडता आनी तेल विरकल्लो रडता

आपल्याल्या घोवान हाडचो पगार संसाराक पावना म्हण्ण पंढरीन म्हळे. आपल्याल्या घोवाली नोकरी गेली. कित्तें करचे म्हण्ण कळना अशीं सांगून गीता रडच्याकच लागलें.

दोगी जणालें आयकून सुशीलाक गीता बद्दल वाःय्ट दिसलें. आनी ताणे म्हळें, “गीता, तुगेल्या घोवाक नौकरी मेळपर्यंत हांव तुका थोडी मदत करतां.” पंढरीक ताणे सांगले, “पंढरी **नार्ल विरकल्लो रडता आनी तेल विरकल्लो रडता** म्हणतात तशी तूं कित्याक करता? काटकसरीन संसार करच्याक शीक.”

## निशांत पाल पडची

घरांतले वातावरण बरें ना. गोविंद बायलेक सम वागयना.

ताका भायले वाय्ट व्यसन लागल्यांकी कितें? शेजाऱ्यांक **निशांत पाल पडली** तरी ही खबर तानीं कोणा कडेन म्हळी ना.

## नाकान जेवल्यार पॉट भरता वे?

सुधीरान आपल्यान हाडिल्या सामानाक लागिल्या पैशांचो सगळो हिशोब आपल्याल्या मेवण्याकडेन दिलो. मेवण्यान ताका ते सगळे पैशे दिले आनी विचारले, "अरे तुवे आगपेटीचे पैशे सांगले नात. कितले ते?"

सुधीरान म्हळें, "उरू रे ते. होडले नात ते. **नाकान जेवल्यार पॉट भरता वे?"**

## हिडीस् फिडिस् करचें

शिवानंदालो स्वभावच तसलो. लोकांकडेन शांतपणान उलौवचें, समजुतीन घेवचें हे ताका खबरना. सगळ्यांकडेन अरेरावीन वागता. तो आयिल्यां गेल्यांक **हिडिस् फिडिस् करता.**

## नाकटाची सर

गणपती हुशार, मनान बी बरोच. कोणाल्या उपयोगी पडच्याक तो मध्यरात्री बी तयार उरता. येद्दो गर्व ना ताका. तागेलोच भाव विश्वंभर-मू? कायी उपयोगाचो ना तो. गणपतील्या **नाकटाची सर ना ताका.**

## भोस ना

संगीतान सगळीं कामं कशीं बरीं करून केलीं. सगळ्यांले जेवणखाण, मानपान सम केले. एद्दें कंमी केलेना. ताणे केल्ली सरबराय पळौवन सगळ्यांनी तागेलें कौतुक केलें. तें आसाच हुशार काशीच्यान हें सगळें करच्याक जात् आशिल्यें म्हण्ण केल्यांवें? काशीक एद्दो **भोस ना.**

## व्हाळात वच्चें

गजाननान आपल्याल्या चलेक शीलाक विचारले, "तू येता की ना मजे बरोबर आक्काल्या घरा?"

शीलान म्हळें, "बाप्पा हांव येता. शंकर येना खैंय."

गजाननान म्हळें, "तो येना जाल्यार व्हाळांत वंचू. माका ताणे येवका म्हण्ण ना."

## आंगार जीव नावे?

श्यामलाली नणंद स्वातील्या हातातल्यान कपबश्यो पडल्यो आनी फुटल्यो. हे पळौवन श्यामलाक स्वातीलो खूप राग आयलो. ताणे स्वातीक तोंडाक आयिल्ले तशीं उलैयलें आनी म्हळें, "कशीं पडल्यो गो त्यो कपबशो? **आंगार जीव ना वे** तुगेल्या?"

## तोंडात साखर

उमान टेलीफोन करून आपल्याल्या चलेली सोयरीक जमली ही आनंदाची बातमी आपल्याल्या आवैयक सांगली. बरीच वर्षं तागेले लग्न जमनशिल्लें. आवैयक अत्यानंद जालो, आनी तिने उमाक म्हळें, "तुगेल्या **तोंडात साखर**".

## हात पाय रायले काय करूं बायले ?

रामण्णालो दरारो कितलो आशिल्लो ? बायलेक ताणे सुरेधारेर दवरिल्लें, ती बापडी ताका भीवून रावताली. ताणे म्हळ्ळें तशी करताली. इतलें न्हय वाड्यावैले लोक बी ताका कचरून रावताले.

आतां पैर हांवे ताका सदाशिवाल्या घरा पळैयलें. आतां ताका म्हातारपण आयल्यां. जीवान बी साप्प जाला. बायल ताज्या बरोबर आशिल्ली. ताज्या मानान तिगेली प्रकृती बरी दिसली. चलतना बायलेलो हात धरून सावकाश चलतालो. आतं बरो थंड जाला. पयले सारखो दरारो दिसलो ना. घर वच्यां म्हण्ण बायलेन म्हळें की लगेच वच्याक उटलो. **हातपाय रायले काय करूं बायले** ही स्थिती जाल्या तागेली." रत्नाकरान आपल्याल्या साडवा कडेन म्हळें.

## ब्रह्मकपाळ

चार दिवस रावच्याक, आराम करच्याक, फिरच्याक म्हण्ण चलेल्या घरा आयिल्लो, शामसुंदर तिसऱ्या दिवसाकच पडलो.

आनी तागेल्या पायाचें हाड मोडलें. तागेलो पाय डॉक्टरान प्लॅस्टरांत घाल्न दवरलो.

ताका मेळच्याक आयिल्या तागेल्या दोस्ताकडेन शामसुंदरान म्हळें, "हें पळे किते जालें **ब्रह्मकपाळ मजें**, माका त्रास आनी मजेबरोबर दुसऱ्यांक बी त्रास."

## विकते श्राद्ध

शैलेशाक घर येवच्याक बरो वेळ जालो. आवैय बापडी हुसको काडत बशिल्ली, बऱ्याच वेळान शैलेश घर आयलो.

ताणे घर आयलेकी आवैयन ताका म्हळें, "अरे शैलेशा, तुका घर येवच्याक इतलो वेळ कित्याक जालो रें?"

शैलेशान म्हळे, "आई, हांवे येवच्या वेळार रस्त्यार माका मंगेशमाम मेळ्ळो. ताणे माका गणेशकाकाल्या घरा वचून, तागेलो निरोप दिवच्याक सांगलो. हांव गणेशकाकाल्या घरा वचून आयलों. म्हण्ण माका घरा येवच्याक वेळ जालो."

आवैयन म्हळे, "अरे, माका हुसको जाता म्हण्ण तुका कळणा? विकते **श्राद्ध करच्याक** तुका कोणे सांगला?"

## चोर उटता आनी कोतवालाक धरता

लग्ना माटवात सुधीर ताव मार्न जेवलो. आयस्क्रिम कितले खाल्लें हाजो ताका हिशोब नाशिल्लो. श्रद्धान दोन आयस्क्रिम

खाल्लीं ताणे पळैयलें आनी ताणे श्रद्धाक म्हळे, "कितली आयस्क्रिम खाता गो ?" श्रद्धाक सुधीरान विचारिले शैलेशान आयकलें. सुधीरान येत्ना वत्ना आयस्क्रिम खाल्ले शैलेशान पळैयिले.

शैलशान म्हळे, "**अरे सुधीर, चोर उठुन कोतवालाक धरता मरे.**"

## जीव सोडच्याक वेळना

मुंबैत आपल्याल्या धुवेल्या घरा चार दिवस रावच्याक गौरी आयिली. तिका शैलालें घर बरे आवडले. गौरी कारवारच्यान आयिली. गावात नमुनो वेगळो. सगळ्यांली धावपळ पळौवन गौरीक आश्चर्य दिसलें. आपल्याले शैला सुद्धा कशी धावत धावत काम करता, घर सांभाळता, नौकरी करता हे पळौवन तिका आपल्याल्या धुवेलें कौतुक दिसलें.

तिने शैलाल्या बापायक पत्र बरोवन आपल्यालो क्षेम समाचार कळैयलो आनी शैला बद्दल बरैयतना तिने बरैयले की ते मजेत आसा. जावैंय शरद खुशाल आसा. मात्र शैलालें इतलें धावपळीचे जीवन जाल्यां की ताका बापड्याक **जीव सोडच्याक वेळ उरना.**

## हात सोड्न वच्चें

"सुषमाल्या घरा वच्च्याक उटल्यात खरें. तागेल्या घरा व्हरच्याक कितें हाडलां ?

चोरडूं बाळ आशिल्ले कडेन काही घेना आस्तना **हात सोडून वच्च्याक** बरे दिसता? बाजारां वचून कितें खावच्याक ना जाल्यार कसली तरी चार फळं तरी घेवून या." विठाबायेन घोवाक सांगलें.

## मुकार आयिल्लें पाळ पैलें न्हावचें

"मगेल्या मात्यांत कितली कीं काम्मं आसात. सगळीं काम्मं एकदम करच्याक जातावे? गरजें प्रमाणे काम्म कर का न्हयवे? आतं सुधाकराल्या बापायक बरें ना. ताका 'हार्ट अ‍ॅटॅक' आयला. ताका डॉक्टराकडेन व्हरचे. औषधं हाडून दिवचीं हें काम आयलें. कितें करचे? मगेले धुवेलें लग्न लागीं आयल्यां, माका वेळ ना अशीं सुधाकराक कशीं सांगू? काल दिवसभर हांव सुधाकराबरोबर आशिल्लों. हो डॉक्टर तो डॉक्टर कर्‍न आम्मी दोगं जण फिरताले. प्रसंगा प्रमाणे वागका न्हयवे? **मुकार आयिल्लें पाळ पैलें न्हावचें, आन्नी कितें?"** शंकरान आपल्याल्या साडवाक सांगलें.

## गंध गाळ ना

"**इंग्लिश भाषेचो गंधगाळ नशिल्ल्या** मीराबायेले अमेरिकेत हाल जाले. टी. वी. वैयले खंचे कार्यक्रम भाषा कळ्नाशिल्ल्यान तिका कळ्नाशिल्लें. चित्रं पळैतेर बसचें. अर्थ मात्र तिका कळ्नाशिल्लों.

## पारव्या जोडी

सुधाकर आनी तागेली बाय्ल **पारव्या जोडी** अशी बरोबर फिरतात. खंय्यी वच्चें आसल्यार सुधाकर बायलेक घेतल्याशिवाय वचना. सिनेमा उरू, नाटक उरू नाजाल्यार कोणाल्या घरा वच्चें उरू तागेल्या बायलेक सुधाक बी एकट्याक खंय्यी वच्चाक आवडना. दोगांनी कामा वच्चें ऑफीस सुद्धा एंकच.

## मंदं मंदं भज गोविदंम्

"**मंदं मंदं भज गोविदंम्** अशी काम्मं कर्‌न उपयोग आसा? कितलें की काम आसा. केन्ना करतलें तूं? झरझरी कर मुगो. अशी सावकाश काम्‌म केल्यार फाल्लें जातलें." मनोरमान आपल्याल्या चलेक म्हळें.

## जीव नाका जावचो.

कष्ट कर कर करता. दिवस रात्र घोळता. तरी चोरडां बाळांक पॉटाक पॉट भर घालच्याक मंगलाच्यान जायना. घोवान वचतलेच्यान तें बापडें चोरडांक वैर काडच्याक म्हण्‌ण कष्ट काडता. करतलें कितें?

शीला कडेन पैर म्हणतालें, "**माका जीव नाका जावन गेलो पळैय.**"

## चोराक घरा पावोचे

नीळ्कंठ अती आळशी आसा. ताका कित्ते काम सांगल्यार तो खंचे ना खंचें कारण सांगून तें तो करना. तागेलो कामचोरपणाचो स्वभाव तागेल्या भैयणीक खबर आसा. ती बी तितली हुशार. कशी कर्‌न तागेल्या आंगातली आळसपण कशी काडचीं ह्या विचारांतच ती उरता. आपल्या पेक्षां होडल्या भावाक तिज्यान तापोवच्याक जायना आनी झगडच्याक बी जायना ती ताका हें नाजाल्यार तें काम सांगता. धा काम्मं सांगल्यार चार काम्मं तरी करतलो अशीं तिका दिसता. **चोराक घर पावोचें** म्हणतात ने तशीं ती भावा फाटल्यान लागून ताका थोडी तरी काम्मं करच्याक लायता.

## गोरवांनी तोरकळ पिल्ल्यावरी पिवचें

"सरबत आसलें तरी कितलें पिवचें? तान लागल्या खरी. तरी चड पिवच्याक जायना. गोरवांनी तोरक़ळ पिल्ल्यावरी पिवच्याक जातवे? उदाक दी तू माका उदकान मगेली तान वतली." श्रीमंतीन यमुना कडेन म्हळें.

## कुले धुय म्हळयार कुले ध्रुवचे, लांबता किते म्हण्ण विचारनयो

वत्सला मावशीले होडले होडले घर. तांगेल्या घरात सदाच कोण ना कोण आयिल्लेच उरतात. तांगेल्या घरात आयिल्ल्या

सोयऱ्यांली सरबराय बरीच जाता.

तिणे आपल्यालें घर बरें दवरला. तिगेल्या घरात नोकरचाकरांक कायी कमी ना. घरातलो व्याप, आयिल्लें, गेल्ले सोयरे, तांगेलो मानपान करचो ह्या सर्व गोष्टीं कडेन मावशीले बारकाईन लक्ष उरता. नोकरांचेर भी डोळ्यांत तेल घालून ती लक्ष दवरता. नोकरवर्ग तिगेल्या धाकात आसा.

एक दिवस तिगेल्या मैत्रिणीन विचारलें, 'अगो वत्सला, तू घरातलो व्याप आनी नोकरवर्ग कशी सांभाळता गो?'

वत्सलान म्हळें, 'अगो सुलभा, हांव तांका अन्न वस्त्र भरपूर दितां हें जरी खरे उरलें तरी, **कुले धुय म्हळयार कुले धुवचे, लांबता किते म्हणण विचारनयो** म्हणतात तशीं हांव तांका तागेल्या सीमे भायर वच्याक दीना.

## दोळयात प्राण यवचे

खेडेगांवात फाटल्या काळात प्रवास करचो म्हळ्यार पायानच. दुसरे कसले साधन दुर्लभच आशिल्लें. ल्हान होड म्हातारे कोतारे बापडे फाल्लें जावचें भीतर चलच्याकच लागतालें आनी सूर्य मात्यार यो पर्यंत (दनपारां) दुसऱ्या गावात पावताले. म्हाताऱ्यांले चलन चलन थकून **दोळयात प्राण येताले.** करतले किते? तांका बापड्याक चलचें पडतालें.

## तोंड फुगावचें

सुगंधाक एदें कारण मेळ्ळयार पुरो राग यवच्याक. बारीक सारीक गोष्टीचेर तें रागार जाता. एक दिवस तागेल्या भैयणीन आपल्याल्या जावेकडेन म्हळें, "हरशीं सुगंधा भारी बरें, कामात हुशार, शिवणकाम भरतकाम तर ताका कितलें बरे येता. एकच म्हळ्यार तें रागीट स्वभावाचें आसा. जरा किते कारण **मेळळें की तोंड फुगोवन** बसता.

## आंद्रू खंय की पेद्रू खंय की

श्रीधर आनी रंगनाथ खंच्या कार्यकारणाक मेळ्ळयार, ना जाल्यार खंच्या समारंभाक मेळ्ळयार कितले जीव सोडतात म्हण्ण सांगू? दोग्गं बरोबर उरतात. खंच्यो खंच्यो खबरो करतात, हासतात, खिदळतात. मेळ्ना जाल्यार वर्षांनुवर्ष एक दुसऱ्याक मेळनात. मेळ्ळयार मात्र, अशीं, नाजाल्यार **आंद्रू खंय की पेद्रू खंय की.**

## सुको रुबाब

**सुको रुबाब** कितले दिवस करच्याक जाता? एक ना दिवस खरी परिस्थिती सर्वांक कळता. त्यापेक्षा सत्यस्थिती सांगिली बरी.

## आंगार भार आयिल्ल्या वरी करचें

सुरेशाक राग आयल्यार तो कोण्णाक आयकना. **आंगार भार**

**आयिल्ल्यावरी** सगळ्यांक तोंडा आयिल्ले तशीं उलैयता. ल्हान होड म्हण्ण पळैयना.

## पायाचें पायाक दवरका, मात्यार घाल्न उपयोग ना

प्रत्येक मनषालो एक दर्जो म्हण्ण उरता. ताणे आपल्याली पायरी लक्षात दवर्न वाग्गीलेच बरें. सीमे भायर कितें केल्यार ताजो परिणाम जावका तशी जायना. कामवालीक बरें कर्न वागोवका हें खरे. ती कितली बरी जरी उरली तरी तिजे कडेन आपल्याल्या कपाटाच्यो चाव्यो दिवचें बरोबर वे? म्हणच आसा की, **पायाचे पायाकच दवरका, मात्यार घाल्न उपयोग ना.**

## हात धरतलो कोण ना

समीर आपल्याल्या कामात कितलो निपूण आसा खबर आसा? मूळ धर्न तुदी पर्यंत ताका आपल्याल्या कामाची माहिती आसा. कलाकुसरीच्या कामात **तागेलो हात धरतलो** आमगेल्या गावात कोणी ना पळै. अशी सुनील आपल्याल्या मुंबैच्यान आयिल्ल्या दोस्ताकडेन म्हणतालो.

## पॉटभर उलौवचें

शकुंतला आनी सुशीला एक दुसऱ्यांक मेळ्ळयार कित्ते उलैयतात म्हण्ण ना. तासन्तास उबराव्न सुद्धा तीं आपापलें मन

मोकळें करतात बापडी. कितलो वेळ उबराव्न आसात हें तांगेल्या ध्यानात सुद्धा येना. दोगीजण **उलौवनच पॉट भर्न** घेतात. चोरडांनी येव्न, 'आई, माका भूक लागली. माका खावच्याक दी' म्हण्ण सांगता पर्यंत ती उलैयतेर रावतात.

## सुणे अशीं आंगार येवचें

सीतारामाल्या मनाविरुद्ध कितें जाल्यार तो घरात कोण आसा ना म्हण्ण पळैयना, वेळ काळ पळैयना, आपल्याल्या बायलेल्या **आंगार सुणे असो वता.**

## पिल्लं घालची आसात वे?

सुरभीन आपल्याल्या भैयणीक श्यामलाक, आपल्याल्या घरा आयिल्ले तेन्ना, राव राव म्हण्ण खूप सांगले. खरे म्हळ्यार, त्या दिवस श्यामलाक सुरभील्या घरा रावच्याक काही अडचण नशिल्ली. श्यामल उगीच काही ना काही तरी कांरण, सांगून रावच्याक जायना म्हण्ण सांगच्याक लागले.

तेन्ना सुरभीक मनातल्यान राग आयलो आनी वायट बी दिसले. ताणे म्हळे, "तुगेल्या मनात रावचे ना जाल्यार रावनाका. मगेले कसले काम ना आनी तुवे राव्न पिल्लं घालची आसावे? तुगेली खुशी."

## देवळाक खांबे करन घालचे आसावे?

श्रीधर आनी शशांक उलैयतेर आशिल्ले. तांगेल्या उलौवण्यात श्याममामाली खबर बी आयली. श्रीधरान म्हळे, "श्याममाम म्हळ्यार देवमनीस. सगळ्यांक पावता."

इतले म्हणता आसतनांच श्याममाम थंय येव्न पावलो आनी ताणे म्हळे, "कसल्यो खबरो चल्ल्यात?"

शशांकान म्हळे, "शंभर वर्ष आयुष्य तुका. आम्मी तुज्या बद्दलच उलैयताले."

श्याममामान म्हळे, "शंभर वर्ष आयुष्य? कित्याक रे? देवळाक खांबे कर्न घालचे आसावे?"

# मराठी भाषास्नेही

इयत्ता आठवी ते दहावी
[ S.S.C & I.C.S.E.)

(व्याकरण विभाग, निबंध लेखन, पत्रलेखन, कथालेखन, गद्यआकलन व सारग्रहण, स्वाध्याया सहित.)

लेखिका
सौ. शांता श्रीकांत सुखटणकर
" शांतश्री "